विश्व कोंकणी बाल साहित्य माळा
KONKANI FOLKTALES

# आटूल आनी पेटूल
# Aatul and Petul





विश्व कोंकणी केंद्र, मंगळूर
WORLD KONKANI CENTRE
MANGALURU



# बस्ती आजाली चीट

सानुल्या बाल-वाचप्यांनो,

विश्व कोंकणी केंद्र मंगळुरासावन, ही कोंकणी लोककाणयांची माळ आमी तुमचे खातीर मुजरत वेंचून हाडल्या.

तुमकां काणयो वाचूंक आनी समजूंक सोंपें जावचें, देखून आमी ह्या सान-सान काणयांक रंगबिरंगी चित्रांनी नटयल्यांत. तीं चित्रांय तुमकां पसंत पडटलीं हाची म्हाका खात्री आसा.

आजकाल सगल्या भुरग्यांक कोंकणी संागाता इंग्लिश भास लेगीत वाचूंक येवपाची गरज उप्रासल्या. देखून, दरेका कोंकणी काणयेचो इंग्लिश सार आमी मुखावेल्या पानार दिवपाची व्यवस्था केल्या.

ह्यो काणयो तुमकां आमची भूंय, सरभंवतण आनी भास हांची अदीक लागिंच्यान वळख करून दितल्यो. हातूंतल्यान आमच्या गिरेस्त दायजांतलीं अनवळखी उतरां, वस्तु, नातीं, इश्टागती आनी अणभव तुमकां मेळचे हो आमचो हेतु आसा. तशेंच, ह्या काणयांतल्यान आमचे पूर्वज कशे रावताले, कितें चिंतताले, सैमा संागाता कशे जियेताले, बरें-वायट कशें थारयताले हें तुमकां होलमतलें.

ह्यो आदल्या काळावेल्यो काणयो जाल्ल्यान, तातूंत तुमकां कांय गजाली काळाभायल्यो दिसतल्यो, पूण आपणालें दायज जाणा जावप गरजेचें. मागीरच, आमकां तातुंतलें बरें वायट वेगळें काडूंक कळटा; आमी मूळ काणयेचें सार-स्वरूप बदलनासतना, तशें करचेलो थोडो-भोव यत्न केला. तुमगेल्या पालकांक आनी तुमकां तो कितलो आवडलो हें तुमगेल्या बस्ती आजाक मुजरत कळयात.

फुडाराक तुमी लेगीत आपल्याक आवडटात त्यो नव्यो नव्यो काणयो कोंकणींत बरोवन आमची भास वयर काडूंक वावुरतलीं ही म्हाका आस्त आसा. तुमकां आनी तुमचे वरवीं कोंकणीक अदीक उजळ फुडार आंवडेतां. तुमकां बस्ती आजालीं परबीं.

तुमचो बस्ती आजो

बस्ती वामन शेणै
संस्थापक,
विश्व कोंकणी केंद्र, मंगळुर

PUBLISHED WITH
FINANCIAL ASSISTANCE FROM




DEPARTMENT OF KANNADA AND CULTURE
GOVERNMENT OF KARNATAKA

विश्व कोंकणी बाल साहित्य माळा
KONKANI FOLKTALES



# आटूल आनी पेटूल
# Aatul and Petul

Chief Editor
Kiran Budkuley

Konkani Script
Rashmi Rathi

English Translation
Deepali Kudalkar

Illustrations
Ibrahim Badusha & Balu, Ernakulam

Concept & Production
Gurudath Bantwalkar




विश्व कोंकणी केंद्र
WORLD KONKANI CENTRE
कोंकणी भास आनी संस्कृती प्रतिष्ठान
KONKANI LANGUAGE AND CULTURAL FOUNDATION
World Konkani Centre, Lobo Prabhu Nagar - Konkani Gaon, Shakti Nagar, Mangaluru- 575016
Phone: 0824 - 2231887, 2231877, Email: worldkonkani@gmail.com. www.vishwakonkani.org

Once upon a time, in the village of Panchwadi, there lived two sisters called Aatul and Petul. They were very poor and earned a living by doing household work for people. Every evening, while returning home, Aatul and Petul collected the dry scattered wood from the forest to cook their own food.



एका तेंपार, पंचवाडी गांवांत आटूल आनी पेटूल ह्यो भयणी रावताल्यो. तीं भोव गरीब आसलीं आनी लोकांगेर वावर करून पोट भरतालीं. सद्दां सांजे घरा येतना आटूल आनी पेटूल रानांत वचून आपलेपुरतें रांदचे खातीर पडिल्लो जळोव घेवन येतालीं.



One fine day, both the sisters decided to prepare their favourite Saannaa. They happily started off with the preparation. They soaked the rice granules and black gram dal overnight and went to sleep. But both remained wide awake in the excitement of cooking and eating the Saannaas the following day.



एक दीस, दोगांय भयणिंनी आपले आवडिचीं सान्नां रांदपाचीं अशें थारायलें. खोश्शेन ताणीं तयारी सुरु केली. रातीं न्हिदचे पयलीं ताणीं तांदळां-कणयो आनी हुड्डां दाळ फुगत घातली. पूण सकाळीं उठून सान्नां करून खावपाचे उमळशिकेन तांकां न्हीद लागली ना.



The next day, by dawn, both of them went to the forest to collect some firewood. The forest was very dense and dark but Aatul and Petul were not afraid. When they come across a huge dead tree, Aatul smoothly climbed up and chopped off a few dry branches. Petul collected them in the basket.



दुसरे दिसा, फांतोड जाल्या बरोबर आटूल आनी पेटूल बेगोबेग जळवा-लाकडां हाडूंक रानांत गेलीं. रान दाट्ट आनी काळखें आशिल्लें, पूण आटूल आनी पेटूल भियेलीं नात. एक व्हडलो सुकून गेल्लो रुख पळोवन, आटूल अळंग वयर चडलें आनी ताणें कांय सुकिल्ले खांदे मारले.पेटुलान ते एकठांय करून ते पांटल्यांत भरले.



As they decided to return home, their eyes fell on the wild berries, kaannaas and chunnaas. Their mouths began to water. They seemed to be very delicious and so they went forth to pluck them. But suddenly they heard the roar of a tiger and they were both terrified.



घरा येवपाक करतासर तांची नदर मुखावेल्या काण्णां-चुन्नां ह्या रान फळांचेर पडली. तांच्या तोंडाक उदक सुटलें. तीं भोव रूचीक आसात अशें दिसून, आटूल आनी पेटुल तीं खुंटपाक फुडें सरलीं. इतल्यांत तांच्या कानार वागाची गरड पडली आनी दोगांय जाणां भिरांतीन कुळकुळ्ळीं.



These kannas and chunnaas belonged to the tiger. The tiger was furious when he found Aatul and Petul plucking them. He threatened to attack both the sisters. Aatul and Petul begin to shiver at this. Suddenly, Aatul had an idea. She said to the tiger, "we are starving and so lean. You will only get skin and bones if you eat us now. Whereas, if you take pity on us and leave us,you will be able to come over to our house to eat delicious Saannaa.



तीं काण्णां-चुन्नां वागालीं आशिल्लीं.आट्टूल आनी पेट्टूल तीं खुंट्टात तें पळोवन ताका भिरभिरी माल्ली. वागान तांचेर उडी घालची केली. आट्टूल आनी पेट्टूल भंयान कडकडूंक लागलीं. अचकीत आट्टुलाक एक युक्ती पॅवजली. ताणें वागाक म्हळें, आमी उपाशीं आनी म्हूण वारीक आसात. आतां आमकां खाल्यार तुका हाडां आनी चामडी मेळटली.पूण आमचेर दया करून सोडल्यार, तुका सांजे आमगेर येवन रुचीक सान्नां खांवपाक मेळटलीं.



The tiger's mouth began to water when Aatul spoke of Saannaas. He at once accepted this deal. Accordingly, they agreed that: for now, the tiger should allow them to go home; and then the tiger would visit them at night to have Saannaa. The sisters thanked God for saving their lives and walked home elated.



सान्नांचें नांव आयकून वागाल्या तोंडाक उदक सुटलें. ताणें रोकडीच ही थारावणी मानून घेतली. ते प्रमाण, वागान तांकां आतां घरा वचूंक दिवचें आनी रातचें तांगेर सान्नां खावपाक येवचें अशें थारलें. दोगांय भयणिंनी जीव वांचिल्लेखातीर देवाचे उपकार आठयले आनी उमेदीन घरची वाट धरली.



Once home, Aatul and Petul cooked delicious Saannaa , divided them into three parts and began to eat their own shares. They kept the third share for the tiger, but eating the saannaas with relish, they soon finished their own shares and were tempted to eat the third share too. Aatul and Petul knew that, if they don't save the tiger's share of Saannaas for him, he would definitely eat them. But Aatul and Petul just could not resist the temptation and finished off all the Saannaa.



घरा पावतरीच आटूल आनी पेटुलान सुरबूस सान्नां रांदलीं; तांचे तीन वांटे केले आनी आपापलो वांटो खावपाक लागलीं. तिसरो वांटो ताणीं वागा खातीर दवरिल्लो.पूण रुचीन सान्नां खातां-खातां, ताणीं आपलो वांटो खावन सोंपयलो. मागीर तांकां वागाचो वांटो खायन दिसलो. पूण वागाचो वांटो खाल्यार वाग आपल्याक खातलो हेंवय तांकां खबर आशिल्लें. पूण तांच्यांनी रावंक जालें ना आनी तांणी वागाच्या वांट्याचीं सान्नांय खावन सोंपयलीं.



As decided, that night the tiger came to their house.Hearing his footsteps, Aatul ordered Petul to hide in a big Bhaann, a huge copper pot. She hid herself in it too. The tiger began to call out to them, but he found no one in the house. He realized that he had been tricked and was very angry. He began to roar and turn all their things upside down.



ते रातचो थारिल्ले प्रमाण वाग आयलो. ताची पावलट आयकून आटुलान, पेटुलाक व्हडल्या तांब्याच्या भाणांत वचून लिपूंक सांगलें. आपुणूय थंयच वचून लिपलें. वाग येवन तांकां उलो मारूंक लागलो, पूण ताका घरांत कोण दिसलो ना.आपल्याक फटयलो, हें वागाक कळ्ळें आनी ताका खूब्ब राग आयलो. तो गरड घालीत, घरांतल्यो सगल्यो वस्तु उस्तून वयर-सकयल करून उडोवपाक लागलो.



Just then, Aatul called out to him from the bhaann in a very loud voice. It echoed inside the bhaann. The tiger was very scared. He thought that there was someone invisible and stronger than him in the house. He ran ran for dear life, deep into the forest. Then, Aatul and Petul lived happily in their own house.



त्याच वेळार, आटुलान भाणांतल्यान ताका मोट्ट्या आवाजान उलो मारलो. तो आवाज भाणांत गाजलो. वाग थर्त भियेलो. घरांत कोण तरी आपले परस बळिश्ट, पूण दिसना तसलो, आसा अशें ताका दिसलें. तो शेंप तुटसर रानांत भीतर धांवन गेलो. मागीर, आटूल आनी पेटूल खुशालकायेन आपल्या घरांत रावलीं.






# Listen to the eBooks, as you Read them..

These books are a great way to introduc Konkani folktales to your kids. They would love t listen to the stories in your mother tongue that i Konkani. While rich colours and illustration attract the kids, the background voice over wi amazingly captivate them to the reading. The tex highlights guide the kids to read along the voic over. They will also introduce them to the indi scripts such as Devanagari and Kannada.Yo can read these stories in all devices whethe Desktop, Laptop, iPad/Tab or android smar phones. Find out more details on our websit how to download the relevent reader apps fo reading this latest ePub3 technology eBooks.




# .. in your own dialect!

World Konkani Centre has produced a series of ebooks in various Konkani dialects. Voice over in native accents capturing apt cultural expressions enthuse the young and old alike!

## shortly uploading..









विश्व कोंकणी बाल साहित्य माळा

# KONKANI FOLKTALES





































कोंकणी भास आनी संस्कृती प्रतिष्ठान
KONKANI LANGUAGE AND CULTURAL FOUNDATION
WORLD KONKANI CENTRE, LOBO PRABHU NAGAR - KONKANI GAON,
SHAKTI NAGAR, MANGALURU- 575016
PHONE: 0824 - 2231887, 2231877, EMAIL: worldkonkani@gmail.com.
www.vishwakonkani.org

₹ 50.00


ISBN 9789382582410